# मनस्पंदनां

**शोभा फुलकार**



# मनस्पंदनां

(कवितां झेलो)

शोभा शिवा फुलकार

**Manspandana**

Poems by

Shobha Shiva Fulkar




**पयली उजवाडावणी :** 2019

**प्रकाशक:**

संजना पब्लिकेशन्स

39, दत्तवाडी, सांगे-गोंय

sanjanapublications2@gmail.com

**छापणावळ :**

श्री अत्री

**मुखचित्र:**

**मोल : 150/-**

## अर्पण पत्रिका

म्हज्यो कविता उमेदीन वाचपी
म्हजी तोखणाय करपी
म्हजो व्हडलो भाव
अशोक गोविंद एकोस्कार
हांकां मायेमोगान......

**-शोभा**

# म्हजीं 'मनस्पंदनां'

**'शुभत्कार'** आनी 'रुजवण' ह्या कवितां झेल्या उपरांत 'मनस्पंदनां' हो कवितां झेलो तुमच्या हातांत दवरतना म्हाका खूब खोस भोगता. संधीवाताच्या दुयेंसान हांव कुडीन आनी मनान साप्प खचून गेल्लें. म्हज्या हातापांयानूय घात केल्लो. जिणेची आस्त सोंपिल्ली. मनाक दिसतालें, आतां सोंपलो म्हजो अवतार...पूण हांवें म्हज्या वांट्याक आयिल्ल्या कांट्याकुट्यांचेरच कविता केली, काळेकुट्ट रातीचेर कविता केली. केन्ना हांतरूणार न्हिदिल्ले कडेन वा केन्ना कदेलाचेर बशिल्ले कडेन हांव बरयत रावलें. उतरां कडेन खेळ करून कवनां गुंथित रावलें. मेजार शिंपडिल्लीं हीं उतर कवनां पळोवन तोंडांतल्यान अचळय आयलें :

पन्नासावो रस्तो हुपून
साठी कडलो सोंपत आयलो
जळींमळी ˙ जळींमळीं
सपनां म्हजीं अर्दकुटीं
आतां पोटली बांदपाची

म्हज्या अणभवांची ती पोटली. हांवें म्हजे जिणेंत जें भोगलें, सोंसलें, पळयलें, अणभवलें तें तें म्हज्या कवनान भांगर जावन आयलें. म्हाका जळयतले नियतिकूच हांवें म्हणलें :

तुवें जळयलें देखून म्हजें
भांगर जालें भांगर जालें
कापसावरी हुबतालें
फातरावरी घट जालें

हांवें ह्या तीन वर्सांत खूब कितें बरयलां. बालकविता, भुरग्यांच्यो काणयो, आनी 'हांव आनी म्हजो संधीवात'. हें सगळें साहित्य अर्दकुटेंच दवरून म्हाका वच्चें पडचें ना मूं? असो एक भंय, असो एक हुस्को मनांत घर करून आसलो. तकलेंत दीसभर तेंच घोळटालें. मन निर्शेल्लें. चित्त

खंयच लागनासलें. काळीज ओगीच खपखपतालें. इतल्यांत एक दीस भोवमानेस्त दिनेश मणेरकारान म्हाका आशेचें किर्ण दाखयलें. 'तुवें जितल्यो कविता बरयल्यात. तितल्यो फायल कर आनी म्हाका धाडून दी. फुडलें हांव पळयतां.' दिनेशबाबालीं हीं उतरां आयकून म्हाका धिटाय आयली, उमेद आयली. लाखाची सोर्त फुटिल्ल्याची खोस जाली. हांवें फायल तांचे सुवादीन केली. आनी म्हजीं 'मनस्पंदनां' तयार जालीं. ताचे उपकार हांव केन्नाच विसरचें ना.

वेळावेळार म्हाका मार्गदर्शन करपी भोवमानेस्त माधवबाब बोरकार आनी सदांच म्हाका उर्बा दिवपी दीपा मुरकुंडे हांकां हांव कशें विसरन? तांचे हांव उपकारी.

म्हजे पूत समर आनी आकाश तशेंच म्हजी सून हांणी म्हाका नवें जिवीत जगूंक शिकयलें. म्हज्या मनांत नवी उमेद जागयली. साहित्यीक कार्यावळींनी म्हाका व्हरून मरगळ आयिल्ल्या म्हज्या मनाक उबारी हाडली. म्हाका कविता बरोवपाक उत्तेजन दिलें. हांव कविता बरयत रावलें. म्हजीं कवनां पुस्तकरुपांत येवपाक तांणी मोलादीक हातभार लायलो. तांकां हांव दिनवासतां आनी 'मनस्पंदनां' हो म्हजो कवितां झेलो तुमकां आवडटलो अशी आस्त बाळगितां.

**- शोभा फुलकार**

## मांडावळ

## 1. तुजी बायल

तुवें तुका जाय तेंच केलें
तुका आवडटा तेंच घेतलें
खालो, पियेलो, मजा केली
तुजीच सत्ता आसची
हो हावेस तुजो
तुवें मोटो आवाज केलो
सगल्यांक भेश्टायलें
मुकाट्यांनी काम
करूंक लायलें
तुजें ते आयकताले
भियेवन मान
सकयल घालताले
हय हय म्हणटाले
पूण एक दीस अचकीत
तूं आडवो पडलो
तेन्नाच
तुजी सत्ता सोंपली
ते सगले गेले
तुका एकलोच उडोवन
आतां तांकां तुजो

भंय उरलो ना
तूं पिरंगतालो
'आवय गे म्हजे' म्हणटालो
पूण तुका उखलूंक
बसोवंक, चलोवंक, न्हाणोवंक
कपडे घालूंक
एकलीच ती उरली
तुजी लग्नाची बायल....

## 2. म्हज्या पुता

जाणटी जालीं पुता हांव
पावलां म्हजीं थरथरतात
उतरां म्हज्या तोंडांतल्यान
येवचे पयलींच विरगळटात
मोन्या म्हज्या मनाची
भास जाणून घे रे
हांवें तुका समजून घेतलां
म्हाकाय समजून घे रे
केन्ना केन्ना आड्डतां हांव
माथें बुड्डितां
भुरगेपणांत तुंवूय असोच
करतालो, जाणा?
हातांत तुज्या दिवन चाकलेट
हांसयतालीं हांव
तुका मागीर वेंगेंत घेवन
खेळयतालीं हांव
आयज कित्याक खोंपींत म्हजे
खतखतता पेजे बुडकुलो
वास येता तुज्या अर्दान
पापलेटीचो तळिल्लो
इतले बेगीन विसरलो

कसो रे पुता?
म्हज्या हातान भरयिल्लो
घांस दुदाचो तुका
थंडी तुका जावची न्हय म्हूण
कसाय दितालीं
पदरान म्हज्या
पावलां तुजीं हांव पुसतालीं
छातयेर दवरून तोंड तुवें
दूद पियेलो म्हजें
इतले बेगीन कसो रे तूं
विसरलो सगळें??

# 3. मोगा म्हज्या

आनीक मात्शें रावचें आसलें
वाट म्हजी पळयत
तूं गेलें सोडून म्हाका
दुकां म्हजीं गळयत

कुपांची गाडी करून
मळबांत सगल्याक भोंवडायतलों आसलों
नखेत्रांची फांती करून
माथ्यार तुज्या माळटलों आसलों

चंद्राच्या गुळ्याक हांव
हातांत तुज्या दितलों आसलों
दोळ्यांतलीं सपनां म्हजीं
कशीं तुका दाखयतलों?

काळजांतलो मोग म्हजो
कसो तुका पटयतलों?
आख्ख्या संवसाराक करून फाट
तुकाच बोट दाखयतलों आसलों

म्हजे खातीर मोगा म्हज्या
आनीक थोडें सोंसचें आसलें
जिणेचो म्हूर्त पळयत
हांव तुका व्हरतलों आसलों

आनीक मात्शें रावचें आसलें
वाट म्हजी पळयत
तूं गेलें सोडून म्हाका
दुकां म्हजीं गळयत

# 4. म्होंवा बरणी

एक पेग पियेवन हांवें
सोऱ्याची रुच पळयली
एकार एक करीत करीत
आख्खी बाटली सोंपयली

वेळ जालो म्हणटकच आतां
रुच ताची सुसेग दिना
मिलेर लेगीत खाली केलो
पियेवपा खातीर काडून रिणां
चंवरलेली जीण सगली
पियेवन पियेवन झिंगयली

केन्ना केन्ना मनांतल्यान
हांव म्हाकाच समजायतां
गादी दोळ्यांक दिसतकच
सोरो भितर आपयता
देवा म्हज्या सायबा म्हाका
कसली बुद्द येवजली

फाल्यांच्यान पियेवचों ना म्हूण
दर दिसा येवजितां
सोरो पियेवची इत्सा ना
पूण सोरो म्हाका पिवयता
चडटे वालीन अर्द्यार पावन
तकली आपली बागयली

चलूंक जायना धड आतां
पांयांचेंय बळ गेलां
इत्सा, उमेद आसून लेगीत
मरणा दिकेन बागवलां
लाखमोलाची म्होंवा बरणी
म्हजेच कडल्यान उमथली

# 5. हांवें पळयलां

सकाळचीं भांगरा किर्णां
आंगणांत खेळटना
रंगांत भरसतना
काळजांतली खोस
भरून व्हांवतना
हांवें सकाळ पळयली
रखरखत्या वतांत
भांगराचीं कणसां पिकतना
हुमेचो थेंबो
तकले वयल्यान गळटना
सगली शक्त एकठावन
सुर्याक पेट्टना
हांवें दनपार पळयली
अस्तमतेच्या सुर्याक
धर्तरेच्या गोपांत रिगतना
तिनसांजचे तीन कातरेर
बाविल्लें फूल
कावळ्यांचें रडप
तुळशीचे पेडयेर
पणटेचो उजवाड
हांवें तिनसांज पळयली

रातकिड्यांची कीर - कीर
काळजांतलें रितेंपण
शेणिल्ल्या खिणांची याद
आवयचे कुशीची ऊब
गोजडेंतलो मायेचो स्पर्श
हांवें रात पळयली

## 6. पावसांतल्यो यादी

उगडासाचें घेवन गांठवल
पावसा, तूं भिजयता
शिरंतरांनी पावस तुजो
दडकेर दडक हाडटा

ल्हवपीक आंग म्हजें
आंगान आंग शिरशिरायता
परत सगलो उगडास तूं
उस्तून असो वता

भुरगेपणांतलो पावस आमच्या
आंगाखांदार खेळ्ळो
सत्री आसून लेगीत हातांत
पावसांत आमी भिजलीं

व्हांवत्या पावसांत कागदाचीं
व्हडीं करून सोडटालीं
व्हड्यां फाटल्यान धांवतना
पावसांत चिप्प भिजतालीं

धोंपरभर उदकांत रावून
पावसांत आमी खेळ्ळीं
आईचो दोळो चुकोवन
भिज भिज भिजलीं

आतां पावस तोच तसोच
आमी मात बदल्ल्यात
ते दीस येवजीत येवजीत
आमी जाणटेपणांत रिगल्यात

## 7. भास

तूं गेलें तरीय
याद तुजी गेली ना
चाळयत वारो आंगाक म्हज्या
तेंकचो केन्ना रावलो ना

परमळ फुलांचो नाकांत येवंक
आडयल्यार लेगीत थांबलो ना
पुनवेचो चंद्र मळबांत
रातचो अजुनूय येता

त्या कोनशाक रुखातळा
सावळी तुजी म्हाका दिसता
तूं गेलें तरीय तुजो
भास जावचो थांबलो ना

# 8. यादी

त्या रुखा तेंगशेर बसून
कोगूळ साद घालता
पिश्या म्हज्या मनाक दिसता
म्हाका तूंच सोदता

रुखा मुळांत सुकीं पानां
अजून वाट पळयता
आमच्या मोगाक साद दीत
वारो लेगीत आपयता

ओलो ओलो पावस जेन्ना
म्हाका चिप्प भिजयता
कित्याक गो तूं परत परत
दोळ्यां मुखार नाचता?

# 9. वृद्धाश्रम - 1

तुमच्या ह्या जगा पलतडीं
आमचेंय एक जग आसा
तुमकां जरीय नाका
आमकां मायेची गरज आसा
आंगांत बळगें आसलें तेन्ना
खूब खूब केलें आमी
व्हड तुमकां करतना
झर झर झरलीं आमी
आतां ह्या सुक्या रुखांक
मायेचें उदक जाय
सांगाताचो आदार जाय
तुमकां केन्नाच
भावना आमची कळ्ळी ना
आमकां मात उतरां बगर
भास तुमची समजली
भूक तुमकां लागचे पयलींच
घांस तुमकां भरयलो
बोट दाखोवन मागलें तुमी
हातांत तुमच्या दिलें आमी
आयज कित्याक वृद्धाश्रमांत
आमकां व्हरून सोडलीं?

तुमच्या सांगातान रावचेलीं
सपनां आमचीं तोडलीं
आतां खंयसर नातरां म्हजीं?
खंय आसात शेजान्नी?
मायेच्या मनशांक पळोवंक
आशेल्यांत आमी
आई म्हणीत मार तूं उलो
माग रे पुता आशिर्वाद
पळयतात वाट तुमची
तुमचे आई बाबा आयज

# 10. वृद्धाश्रम - 2

सगले तुमी पूत आमचे
सगलीं तुमी नातरां
तुमकां खबर आसा?
वृद्धाश्रमांत आसात
तुमचे आई बाबा?
दाट दुदाचे चायेक
आशेल्यांत आमी
घरचें जेवण मेळटलें केन्ना?
येवजितात आमी
आज्जे म्हण मारीत उलो
येवचो आसलो नातू
केंस वळय मगे म्हणित
येवची आसली नात
आयज आमची गरज ना
तुमकां फुटल्यांत पाखां
तुमचे विचार तुमचे आचार
तुमचीच आतां सत्ता
वाडदिसाच्यो पार्ट्यो तुमी
दबाज्यान मनयतात
गणपतीक लाडू, नेवऱ्यो,
मोदक खावयतात

आमकां मात दाळचो रोस
सुकी पचपचीत भाजी
केन्नाय कोणाचे दयेन मेळटात
थोड्यो बिस्कुती
तुमी थंय टीव्ही पळयतात
हांसतात धरून पोटाक
आमी मात जनेलांतल्यान
पळयतात तुमची वाट

# 11. रंग जिणेचे

जिणे जिणे रंग तुजे
खेळयत म्हाका गेले
म्हजें म्हजें म्हणटलेच
सोंपयत म्हाका गेले

पक्वान्नांचें ताट
हातांत म्हज्या दिलें
तोंडांत घांस वच्चे पयलींच
मातयेंत सगलें गेलें

कितलीं म्हण फकांडां
जिणेन म्हजीं केलीं
सूख दितां दितां म्हणित
दुख्ख दीत गेली

## 12. हांव

दोन दोळ्यांनी पळयतां
कानांनी आयकतां
तोंडान उलयतां
पांयांनी चलतां
नाचतां, हांसतां
रागार जातां
फुगार जातां
आनी एक दीस
अचकीत मरतां
मागीर...
हांव खंय आासतां?
सरणार न्हिदलां तो
काय दिसना तो?

# 13. पडटा पावस

करून काळोख भोंवतणीं
पडटा पावस दडकांनी
जोगलां नाचतात तालगडी
धोलार तोणी, ताशार बडी

शेतां भाटांनी आयलें त्राण
दोंगुल्लेचें जाता रान
ल्हान व्हड फातर तशे
करडांतूय दिसता प्राण

न्हावन धुवून सोवळें जालें
वसुंधरेचें गोमटें आंग
गोमटें आंग शिरंगारचेली
तिकाय आतां लागल्या भांग

चल्ला उत्सव सुवाळो
मोराचें नृत्य - गान
वाऱ्याचें संगीत आयकूंक
शेतांचेय फुलल्यात कान

रुखा रुखार शेवण्यां भिरीं
पाखां आपलीं किसयता
जोतां घालून शेतकामती
पडींग जमीन वसयता

# 14. सोंपली कथा

सो ंपली म्हजी कथा आतां
टिंबाची वाट पळयतां
रगताची करून शाय
नदरेच्या पेनान बरयतां

जळटे पणटेंतलें
तेल सोंपलें आतां
धुंवर सगलो पातळ्ळा
वातीचो गोबर जाला

एकार एक लाकडां दवरून
सोबीत सुंदर सरण रचलां
पळय म्हज्याच मनशांनी
उजो म्हज्या मड्याक लायला

सपनांचो धुंवर सगलो
कुपांनी भरूंक लागला
काळीं किट्ट कुपां सगलीं
दुकां गळोवन रडूंक लागल्यांत

# 15. कित्याक हांवें....?

आपलेंच मडें पळोवन पळोवन
तो खंती जातलो
कित्याक हांवें जीव दिलो
येवजून येवजून रडटलो

आवय बापूय पळय म्हजो
शेंवटून शेंवटून पडटालो
रडटना बायल म्हजी
तकली वणटीर मारताली

भुरगीं म्हजीं कोनशाक पळय
तोंड धांपून रडटालीं
इश्ट, लोक, सगळीं सोयरीं
म्हाकाच दुशण दितालीं

म्हजेच दुस्मान आतां
मड्यार वडे भाजतले
म्हजे फाटल्यान सगलेच कशे
हात धुवून घेतले

# 16. सुकें लाकूड

हांव सुकें लाकूड
कोनशाक एका पडिल्लें
उजो जावन आयलो तूं
जळोवन म्हाका गेलो

तुजीय चूक ना
हांव जळपाचेंच
हांव सुकें आशिल्लें
देखून तूं जळोवंक पावलो

ओलें आशिल्लें जाल्यार
जळोवंक पावचोच नासलो
गोबर म्हजो
जावचोच नासलो

## 17. मोग

एक दूक गळ्ळें जाल्यार
काळीज कळवळटा
हांसत रावचें सदांच तें
अशेंच जाका दिसता
तोच खरो मोग आसता

दुखोवं कितलेंय काळजाक म्हज्या
दुखोवचों ना हांव ताका
फकत त्याग...
त्याग आसता
सुवार्थ थंय नासता
ताकाच खरो मोग म्हणटात

## 18. पांडुरंगा

पंढरीच्या पांडुरंगा
पळोवं कितली वाट
अजून कसो रावला उबो
कमरेर धरून हात

मनीस मनशाक सोंपयत वता
पळोवन सुवार्थ आपलो
मनीसपण शेणत गेलें
बाजार जालो सगलो

कांयच ना रे खरें हांगा
बदलतात रंग सगले
रंगां मदीं बेरंग
जावन पडलां हांव

मांडलो संवसार विणलें जाळें
मोह - माया वासनांचें
जाळ्यां मदीं घुस्पलों हांव
पावय तुजो हात

## 19. मन म्हजें

आयज कित्याक मन म्हजें
फुलपाखो जावन उडटा
पोरसांतल्या फुलां फुलांर
वचून वचून बसता

भुरू भुरू कानांत म्हज्या
वारो म्हाका सांगता
फाटीर म्हजे बस गो
हांव पयस तुका व्हरतां

थूय थूय थूय थूय
मोरावरी नाचता
ताक धीन ताक धीन
आवाज खंयच्यान येता?

# 20. आमी हे अशेच

आमी हे अशेच
चंद्रार पावले सोंशे
तरीय आमी अशेच

उडटल्याक पळोवन
जमनी वयलो फडफडटा
पांखां आपलीं आसतना
उडपाक आशेता

आपल्या घरांतलो कोयर
दुसऱ्याच्या दारांत उडयता
आपलें सगलें धांपून
दुसऱ्याचें उस्तून पळयता

एकलो पडलो जाल्यार
दुसरो ताका माड्डिता
मनशांचींच सोंपणां करून
वयर चडूंक सोदता

आमी हे अशेच
चंद्रार पावले सोंशे
तरीय आमी अशेच

## 21. पावस

पाचव्याचार सैमाक ह्या
पळयत रावन दिसता
सवणें जावन उडत उडत
भ ो ंवत रावन दिसता

शिरवण म्हयनो रुखान रुख
न्हावन धुवन सजला
पानान पान हांसता ताचें
कोमरी नवी फुटल्या

गडगड्याची गाडी घेवन
बिजूबाय नाचता
वाऱ्यानूय धरला सूर
दर्या नेटान गाजता

पाचवो शालू न्हेसून
वसुंधरा नटल्या
कावळे लेगीत भर पावसांत
रुखा तेंगशेर बसल्यात

## 22. वाट

ती वाट अजुनूय
तुका रावल्या
तुज्या पावलांची
संवय तिका
ती तुकाच सोदता
हांव वतना वाटेर
म्हाका विचारता
खंय गेलें रे
प्रिया तुजें
येतलें केन्ना सांग?

दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत
हांव तिका समजायतां
ह्या जल्माक शक्य ना
फुडल्या जल्माक मेळटलीं
हेच वाटे वयल्यान आमी
परत दोगांय चलतलीं

## 23. काळचक्र

कितें करता म्हजें म्हजें
कांयच ना रे हांगा तुजें
फाटल्यान तुजे जागो तुजो
घेवंक रावल्यात सगले उबे

एक सोंपल्यार दोन येता
दोना फाटल्यान तीन
खंयच अडना कोणाचेंच
सगलें आसा तशेंच आसता

सूर्य येता, चंद्र येता
पावस येता, वत येता
वारो काल नाचतालो
आयजूय तसोच नाच नाचता

आयज म्हजें फाल्यां तुजें
फाल्यां तुजेंय उरचें ना
काळचक्र घुंवत रावता
कोणूच कोणाक रावना

# 24. कसलो तुजो न्याय?

हात पांय मोडून
पांगळें केलें म्हाका
सांग रे देवा मेळ्ळें
कसलें सूख तुका?

पातकांचे वाटेर
चलतल्याक दिली
मोव मोव गादी
सत्याचे वाटेन मात
पातळायली माती

विस्वास म्हजो तुजे वयलो
उडूंक लागलो वाऱ्यान
आनीक सोंसूंक
जायना म्हज्यान
जळूंक लागलें काळजांत

# 25. सूख

एक दीस सुखाक सोदीत
दीसभर भोंवलें हांव
भो ंवतां भो ंवतां पयशांच्या
कवळ्या कडेन पावलें हांव
पयशांचो हिशेब 'तो'
दीस रात करतालो
जाता तितले पयशे
जोडूंक तो सोदतालो
रातीची न्हीद ना
दिसाचो वेळ ना
सूख थंय दिसलेंच ना
आतां म्हाका गरिबाचे
खोंपींत भितर वचन दिसलें
आंगणांत शेण सारयलां
दारांत रांगोळेचो रंग दिसलो
सुकी जरी भाकरी तांची
तृप्त जाल्लो चेरो दिसलो
एकामेकांक समजून घेवपी
दया, क्षमा, शांती दिसली
पयशे जरीय कमी आसले
कश्टाचो घाम दिसलो

रातीची सुस्त न्हीद
भंया विरयत जीण दिसली
कांयच ना तरीय लेगीत
सूख थंय खूब्ब दिसलें

# 26. तुकाच लागून

तुवें जळयलें देखून म्हजें
भांगर जालें भांगर जालें
कापसावरी उबतालें
फातरावरी घट्ट जालें
तुवें जळयलें देखून म्हजें
भांगर जालें भांगर जालें
कागदाचें फूल जावन
कोनशाक एका पडिल्लें
झाडा वयल्या फुलावरी
परमळ सगल्यांक दिवंक लागलें
तुवें जळयलें देखून म्हजें
भांगर जालें भांगर जालें
गोबरा पोंदचे किटेवरी
उजो जावन पेटूंक लागलें
तुकाच लागून अस्तित्व म्हजें
जगाक हांव दाखोवंक पावलें
तुवें जळयलें देखून म्हजें
भांगर जालें भांगर जालें
कापसावरी उबतालें
फातरावरी घट्ट जालें

## 27. खंत

इतले बेगीन कित्याक गो तूं
सोडून म्हाका गेलें?
एकलोच हांव उरलों हांगा
रडोवन म्हाका गेलें

हातांत म्हज्या दिवन हात
सोपूत कितले घेतले
छातयेर म्हजे दवरून तकली
म्हाका फटोवन गेलें

आतां सगलीं सुखां म्हज्या
पांयांसरी लोळटात
तूं ना म्हज्यांत म्हज्या
इतलीच खंत भोगता

# 28. एक फूल

मोव मोव मातयेंत
बीं रुजून आयिल्लें
वाऱ्यान ताका धोलयिल्लें
वतान घट्ट केल्लें
पावसान ताका भिजयिल्लें
रातीन सुस्त न्हिदयिल्लें
फांतोडेन फुलयिल्लें
कळयेचें फूल केल्लें
एका राजकुंवरान
तोडून झाडा वयलें व्हेलें
परमळ फुलांचो घेवन
फुलाक जमनीर उडयलें
इतल्या जाणांचे कश्ट ताणें
खिणांत मातयेंत भरसायले

# 29. वच्चे पयलीं

पन्नासावो रस्तो हुपून
साठी कडलोय सोंपत आयलो
जळींमळीं जळींमळीं
अर्दकुटीं सपनां म्हजीं
आतां पोटली बांदपाची ....
काळ आयला, लागीं पावला
मनाचो कोनसो सांगता
केन्ना व्हरतलो खबर ना
येवचे पयलीं.... येवचे पयलीं
आतां पोटली बांदपाची
सगलें पळय सामान म्हजें
अर्दकुटेंच उरलें
कोणा खातीर जगलें
कितें हांवें केलें?
जळींमळीं जळींमळीं
अर्दकुटीं सपनां म्हजीं...
आतां पोटली बांदपाची

## 30. आवय

जितली तुवें धोडायलीं
तितलींच घट आमी जालीं
फूक मारीत बशिल्लीं जाल्यार
उबून वतलीं आसलीं

बऱ्या वायटाची देख तुकाच
पळोवन आमी शिकलीं
वतांत रावन उबी तुवें
सावळी आमकां दिली

चुकेची ख्यास्त करतना
बऱ्याची वळख दिली
खरें फट पारखुपाची
नदर आमकां दिली

दिवचें अशें सगलें दिलें
केन्नाच दिलें म्हणलें ना
त्यागाची मूर्त तूं
आमी सदां तुज्या रिणां

# 31. हांसतल्याक पळोवन

तो बांयंत बुडटालो, घुस्मट्टालो
ताच्या नाका - तोंडांत उदक गेल्लें
तो आकांतान सगल्यांक
आपोवंक लागलो
ताचे इश्ट, बरे मागते
धांवून आयलेय बी
कोणें राजू सोडलो
कोणें बडी शेंवटिली
पूण ताका कांयच जमना
ताणें मरतां मरतां
एक नदर मारली
ताचे इश्ट रडटाले पूण
दुस्मान हांसताले
ताणें तें पळयलें
हांसतल्यांक पळयतना
ताका आपलें दुबळेपण
जाणवलें
ताणें सगलो फोर्स मारून
राजवाक धरलो
तो वाटावलो.....
हय, तो वाटावलो
हांसतल्यांक पळोवन......

## 32. पावस आनी धर्तरी

पावस नेटान आयलो
तिच्या आंगा आंगाक
भिजयत गेलो
तुका कितें दिसलें
ती तुका भियेतली?
तुज्या गडगड्यांक
तुज्या जोगलावण्यांक
ती थरथरतली?
ना, ती दुबळी न्हय...
पळय, तूं येवन गेलो आनी
तिच्या मनाच्या भ्रमाचो चिखल
अचळय तुज्या उतरांच्या
थेंब्याक थेंब्याक दसत
सकयल देंवलो
सगले उतरांचे थेंबे तुजे
तिणें गिळ्ळे
मुकाट्यांनी कोणाक शिणनासतना...
तूं आयलो तसोच गेलो
अचकीत सांगिनासतना
ती मात
पर्थून नवे व्हंकलेवरी

नटूंक लागली
सुकिल्ल्या मनाक
नवी कोमरी फुटूंक लागली
तुजे वावझडीन तिका जगपाची
नवी कळाशी दिली...
ती चंवरूंक लागली
फुलूंक लागली
हांसूंक लागली

# 33. आवय दी

देवा, म्हाका आवय दी अशी
म्हजेर माया करता तशी ....
आपयनासतना उगडासान म्हज्या
मेळूंक म्हाका येता तशी

सुकलां कितलें, भागलां कितलें
सांग गो तुका दुख्ख कसलें?
यो म्हजे वेंगेंत धुवे
मन तुजें कर उक्तें

मायेचीं उतरां तिचीं
सावळी दितली मोगाची
म्हज्या तानेल्ल्या काळजाक
मोगान शिजयता तशी

धूव म्हातारी जाली तरीय
आवय जिती आसा इश्टिणीची
सांग गे आवय तूंच कित्याक
भुरगेपणांतूच म्हज्या गेली कशी?

## 34. म्हजें प्रिया

चंद्रा सारकें तोंड तुजें
गोल गोल गोल
म्होंवाळ उतरां शिंपडायत येता
जावन गितांचो सूर

सांगात तुजो आसल्यार पडटा
लख्ख सुर्याचो उजवाड
अशेंच हांसत रावचें तुवें
दीत म्हाका सांगात

राग तुजो पावसावरी
गडगड करीत येता
आख्खें मळब काळें करीत
रस्ते सगले भिजयता

भुरग्यावरी भुरगें जावन
गळ्यांत येवन पडटा
तेन्ना कशें कोण जाणा
तूं म्हाका म्हजेंच रुपशें दिसता

## 35. अर्थ

हे जिणेचो अर्थ एकूच
भोग नशिबाचे भोगपाचे
दुकां भरून रकता तरीय
हांसून सगल्यांक दाखोवपाचें

म्हजें तें हांवें दिल्लें
हें म्हजें तें तुजें
इतलेंच मेजीत रावपाचें
काळ सगलो फुकट वता
केन्ना कोणाक कळपाचें?

आख्खो दर्या पेंवून आयलो
तडेर पावतांच बुडलो
इतलीं क्षीण जाल्लीं गात्रां
सांग कोणाक सांगपाचें?

हे जिणेचो अर्थ एकूच
भोग नशिबाचे भोगपाचे....

## 36. कोंकणी भास

कोंकणी मनीस कोंकणी भास
भायर भितर कोंकणी वास
कोंकणाच्या कोंकण्यांक
कोंकणीचो ध्यास

आचार विचार कोंकणी शुद्ध
नाद साद कोंकणीमय
चलपा गावपांत कोंकणी लय
कोंकणी गंध ना जातूंत
तें गीत गोंयचें न्हय

साळोऱ्यांच्या कंठांतलें
तेंच खरें कोंकणी गीत
कोगूळ बायचे वाचेंतली
तीच खरी अमर प्रीत
शीत आनी हुमणाची
समुद्रा पार पावल्या कीर्त

भेंडाचें सोडून माथ्याक बांदची
संवय न्हय गोंयकारांची
काश्टी भिजोवन थिगूर खावची
शिकवण आसा जाणटेल्यांची

गोंयचो मनीस गोंया सारको
भायर भितर चकचकीत
कसवटेक लायल्यार कळटा
धार ताचे बुद्दीची

# 37. सुर्या

तुवें दिला प्रकाश
अंतरात्म्याक
आनी दवरला सदांकाळ
प्रकाशमय करून
भितरल्या विश्वांत
म्हणूनच जावये तो नरदेह
दर दिसा अविरत फुलता, फळटा
तूं थारिल्ल्या वेळार सहज
थारिल्ल्या जाग्यार पावता
हांवेंय म्हाका संवय
लावन घेतल्या
तुजे नित्यनेमाचे शिकवणेची
हांवूंय चलपाक लागला
तुज्या पावलार पावल दवरून
जावंक लागल्या प्रेरणा
गरीब दुबळ्या समाजाची
तुजें कार्य अंधकाराक
सोंपोवपाचें
पूण तूं पयस पावतकच
परत येता काळखाचें राज्य
मनीस जिणेचीय तीच गत

जगपाचें कर्तव्य करता
खंयच खंड घालिनासतना
तुज्याच सारकें निस्वार्थीपणान
तुजो वारस मुखार व्हरूंक
म्हज्यांत तेज रिगय
किर्णां फांकय
हे उदेत्या सुर्या...
जिणेच्या तारया....
नमस्कार, नमस्कार, नमस्कार

## 38. एकटो

खूब खूब जोडलें
सगल्या भाटांचो
भाटकार जालो
देवान मळब फोडून दिल्लें
पयशांचो पावसूच पावस
कितेंच कमी नाशिल्लें
सुखाचे गादयेर लोळटना
पयशांनीच विकतें सगलें घेतालो
पूण अचकीत आरीचें जालें
हात, पांय, तोंड धरलें
हांतरूणार पडून उरलो
सामकार मेजार दुडू दिसतालो
पूण तो उखलूंक हातांत ताकद नाशिल्ली
तोंडांत उतरां नाशिल्लीं

## 39. हांव आनी तूं

हांवें तुका समजायलो
जावचें बरें येवजून
तुवें फातर शेंवटिले
मरचें हांव देखून

हांवें दुकां पुसलीं तुजीं
हांसचो तूं येवजून
तुवें चिड्डून घुस्मटायलें
दुस्मान म्हाका समजून

## 40. अहंकार आनी नमळाय

एक दीस अहंकारान
नमळायेक म्हणलें
इतलें कशें पिशें गो तूं
संवसार तुका फटयतलो
मोव मोव कापसावरी
वारो तुका हुबयतलो
मेळटा ताका आपलें म्हणटा
गोड गोड उलयता
तकली तुजी जाणट्या मुखार
इतली कशी बागवता?
म्हाका पळय माड कसो
निट्ट उबो खांबो कसो
तकली म्हजी कोणाच मुखार
केन्नाच अशी बागवची ना
पळोवन म्हाका भुरगीं लेगीत
भियेले बगर रावलीं नात
म्हाका पळय मान कसो
पावला कणकणी मेळटा
तूं मात पिशें कशें
मेळटा ताका हांसता
हांसत हांसत नमळायेन म्हणलें

अहंकारा भावा म्हज्या
देवाचें दुसरें रुप
म्हजे भितर आसता
दुसऱ्यांक भेश्टावन
ओडून ताणून
मान म्हाका नाका
म्हज्या उतरां - पावला कणकणी
मोगच मोग आसता
सगल्यांक हांव
देव मानून हांसतां
देखून म्हजें अस्तित्व सदांच
भुरग्यां भितर दिसता

# 41. असो हो संवसार

जित्या मनशाक मोलूच ना
मरतकीर घेतात खांदार
असो हो संवसार

एका कपड्याच्या कुडक्याक
शिंवून शिंवून घालो
आतां मरतकच आंगार
नवो कपडो पडलो

केन्ना कोणें खबर घेतली ना
वळून केन्नाच पळयलें ना
आतां तोंडांत घालता साकर
गळयत दुकांची धार

जितेपणी भुकेन ताची
जाल्ली पोटाची फाट
मरून ताच्या श्राद्धाक ताका
मेळटा साकरभात

# 42. मागणें

नांव तुजें ओंठार आमच्या
सदांच देवा घोळूं
उठ्ठा बसता उगडास तुजोच
देवा आमी करूं

दर्शनाची लागची गोडी
तुकाच सगल्यांनी देखचें
रुप तुजें पळोवंक देवा
दोळे आशेन रावचे

पांयांसरी दवरून तकली
आशिर्वाद तुजो मागतां
तुजीच कृपा आसची आमचेर
इतलेंच मागणें आतां

# 43. खरे मायेचे

हय तुजेंच खरें
तुजेंच तांबडें
हेरांचें सगळें काळें
तूं सांगता तेंच खरें
अशें म्हणपी आपले नासतात

ते केन्नाच खरे नासतात
शेड्ड्यावरी रंग बदलपी
ते भितरले बुद्दीचे आसतात

चुकला तूं, चुकता तूं
तो ंडार सांगपी
वेळ पडल्यार पोल्यार मारपी
चूक तुजी दाखोवन दिवपी
तेच अरिश्टाक धांवून येतात
सुवार्थ आपलो पळयनासतना
सत तेंच तोंडार सांगतात
जावचें बरें तुजें
अशेंच असल्या मनशांक दिसता
तेच खरे मायेचे आसतात
तेच खरे मायेचे आसतात

## 44. खोस

कोडू किरायत्यावरी जेन्ना
अरिश्ट येवन नाचता
जीण सगली कोडूकोडूच जाता
तें दुख्खूच दुख्ख सगलें
कोडूकोडू किरायतें जावन
जिणेक कोडू करून वता
तेन्ना....
परत गोडसाण हाडटा
खडीसाकर जावन
खोस जिणेंत येता
सगली कोडसाण
विसरून मनीस
खोशयेच्या तालार
नाचूंक लागतां
खोशयेचो परमळ
काळजाच्या कोनशाक
यादींचें गांठवल जावन
लिपून रावता
मेळिल्ली खोस
विसरतली कशी?
ती तर खडीसाकरेवरी
गोड गोड आसता

## 45. उजो

रडटल्या दोळ्यांक विचार
काळजाक कितलें दुखलां तें
धांपिल्ल्या ओंठांक विचार
कितलें म्हूण सोंसलां तें

भगभगीत उजो
कुडी भितर पेट्टा
दोळ्यांतलीं सपनां म्हजीं
लासून गोबर जातात

उदकाचे थेंबे
अचकीत येवन पडचे
जळटलें सपन म्हजें
एक तरी उरचें

# 46. केन्नाय तरी

केन्नाय तरी तुजी चूक
तुका कळून येतली
तुज्या सुक्या दोळ्यांतल्यान
दुकां गळून येतलीं

उतरांचे बाण तुवें
काळजार जोखून मारले
रगताचीं दुकां जावन
पोल्यार म्हज्या गळ्ळे

तरीय लेगीत आस एक
काळजांत लिकलिकता
आयज ना फाल्यां तुका
सगलें येवजून येतलें

गेल्ले दीस परत
केन्ना येवचे नात
पिकून आख्खें सुकलें फळ
खावंक मेळचें ना

## 47. मंत्र्या खातीर

शारांत कितें भोंवता
गांवांत आमच्या चलून यो
एकदां तरी खोंपींत आमच्या
खबर आमची घेवंक यो

रस्तो सगळो सजोवन दवरला
चकचकीत वाठार केला
पळोवंक शार सोबीत दिसता
थंयच कित्याक भोंवक सोदता?

जळींमळीं पोतयो पडल्यात
कोयराची घाण येता
नाकाक घट्ट धरून तूं
गांव आमचो पळोवंक यो

फोंडकुलांनी भरल्यात रस्ते
व्हाळां भितर कोयरा पोटले
कुत्रीं रस्त्यार, गोरवां रस्त्यार
गांवचें जालां खतखतें

इतलें सगलें पळोवंक तूं
अचकीत गांवांत यो
सांगले बगर सगळें सगळें
समजून तूं घेवंक यो

## 48. मागचें आसलें

मागून तुवें पळोवचें आसलें
जीव लेगीत दितलें आसलें
पांयासरी तुज्या म्हजें
काळीज दवरतलें आसलें

दिवचो आसलो फकत तुवें
हात म्हज्या हातांत
अरिश्टाचें भांगर करून
घालतलें आसलें गळ्यांत

सुवार्थाचो धरून सांगात
सोडलो तुवें म्हजो हात
बोल्सां तुजीं भरूं कितलींय
काळीज रितेंच उरतलें

## 49. तूं नासतना

तूं नासतना गोड केन्नाच
गोड लागलें ना
तूं नासतना मन केन्नाच
खोशयेन फुल्लें ना

फुलतालीं पोरसांत फुलां
हांसतालीं भुरगींबाळां
तूं नासतना हांव मात
हांसूंक शकलें ना

चान्न्याची रात आसली
वाऱ्याचो नाच आसलो
तुज्या बगर गितां हांव
गावंक शकलें ना

# 50. सत्ता

बुडटल्या बुडकुल्या
तुका वयर काडटलों
व्हांवन वतल्या दोमळ्या
घरा तुका हाडटलों
पयलीं म्हाका वेंचून दियात
मतां दिवन कदेलार बसयात
बुकीलमामाचीं उतरां तीं
सगल्यांकूच मानवलीं
हुंदीर लेगीत भुल्लुसून
बुकल्या म्हऱ्यांत बसलो
दोळे धांपून बुकल्यान म्हणलें
भियेवं नाकात तुमी
तुमची जीण परमळटली
वेंचून दियात पयलीं
म्हजी सत्ता पळयात
म्हजेंच तुमी आयकात
बुकील बसलो कदेलाक दसलो
कदेला म्हऱ्यांत माजरूय बसलें
बुकील, माजर हांसतालीं
वयर बसूंक सोदतालीं
बुडकुलो बुडटा बुडटा

दोमळो बाबडो रडटालो
माजराचे दोळे आतां
हुंदीरमामाक सोदताले
बुडटो बुडकुलो पळोवन
व्हडाव्हडान हांसतालीं

# 51. आशेला जीव म्हजो

एक दीस तरी व्हरचें आसलें
चवथीक म्हज्या घरा
आशेला जीव म्हजो पळोवंक सगल्यांक तुमकां
रागान उलयिल्लें उतर तुका
इतलें कित्याक लागलें
वृद्धाश्रमांत हाडून तुवें
एकटेंच म्हाका सोडलें
अजून म्हाका ल्हानूच तूं
अशेंच रे दिसतालें
भुरगेपणांत मारता तशें
मोगान मारूंक सोदतालें
'आई' म्हणून मारतालो उलो
म्हजो शाणो बाबा
मिशयो तुका फुटल्यो तरी
ल्हानूच तूं म्हाका
लाड तुजे जाता तितले
करीत हांव गेलें
तुवें मात म्हाका
वृद्धाश्रमांत सोडलें
इतली वायट न्हय रे हांव
सांगू कशी तुका?

मांडयेर म्हजे पुता
थापटायतालीं हांव तुका
तुका न्हिदाव्याक घालताली
मात तरी येवजून पळय
भुरगेपण तुजें
म्हज्या बगर जायनासलें
रावंक तुज्यान कशेंच
एक दीस कळटली
चूक तुका तुजी
हांव मेली जाल्यार तुका
याद म्हजी सलतली

# 52. रितें मळब

चंद्र ना मळबांत देखून
मळब रितेंच दिसतालें
नखेत्रांनी भरलां सगलें
तरीय चंद्राक सोदतालें

काळोख पातळ्ळा धतरीर
चंद्राक पळोवंक आशेला
मळबांतल्या कुपां भितर
सांग रे खंय लिपला

आपालिपा करीत करीत
रातभर जागयतालो
कुपां लेगीत उगडास तुजो
काडीत तुका सोदतालीं

तुजे विणे चंद्रा आतां
मळब रितें भासतलें
आकूळपिकूळ जावन रे
सगलेच तुका सोदतले

# 53. आमचें पयलींचेंच

आमचें पयलींचेंच बरें आसलें
पयशे कमी, रावप सादें आसलें
ना घरांत टीव्ही
ना मोबायलाची किणकिण
आजयेची काणी आयकूंक
नातरांची मागणी आसली

एकामेकांचो संवाद
सांगात तांचो खास
चान्न्याची रात आनी
शेणाची जमीन आसली
बैलाची गाडी आसली

खेळूं नाका म्हणलें तरीय
खेळूंक धांवपी भुरगीं आसलीं
काणयांचीं पुस्तकां
जाय जायशीं दिसतालीं
वाचपाची गोडी
दिसान दीस वाडटाली

आतां सगलें बदल्लां
मोबायल हातांत, कानांत कांतारां
घरांत टीव्ही, व्हिडीयो गेमी
नाका वाचप, नाका खेळप
उलोवंक लेगीत वेळूच ना
आतां परत परत दिसता
आमचें पयलींचेंच बरें आसलें

## 54. म्हान भारताचें सपन

व्हड व्हड जायत वतलीं
नांव वयर काडटलीं
देशा खातीर झुजतलीं
देशा खातीर जगतलीं

फांतोड तांबशी रंगता
किर्णां सगल्याक फांकता
दोळ्यांत दाटिल्लीं कुपां
खिणांत मोतयां जातलीं

शिकून मेळयतलीं गिन्यान
वाडोवंक देशाची शान
पावलां जरी धर्तरेचेर
नदर उंच आसतली

सुर्या सारकी तेज बुद्दीची
चंद्रा सारकी शांत चित्ताची
दर्यावरी विशाळकाय
जिणेजिणेंत येतली

म्हान भारताचें सपन पळयलां
सपनांतल्यान जागून पळयलां
जीण जगतां जगतना
योगदान सगलें दितलीं

## 55. बाबू

म्हजो बाबू अचकीत
असो कसो बदल्लो?
काल पयर तर
हाताक धरून चलतालो
आयज हात सोड म्हणूंक लागलो

हें कितें? तें कितें?
खूब कितें विचारतालो
प्रस्नांची वळेरी
म्हज्या मुखार दवरतालो
जापो ताका दितां दितां
हांव खोशी जातालें
बाबा म्हजो खुबूच हुशार
सगल्यांक सांगत रावतालें

आयज कसो बाबू म्हजो
खुबूच व्हडलो जालो
दिसता जरीय इल्लोसो
तरीय चडूच बदल्लो

आतां ताचे प्रस्न सगले
मोबायलार तो उलयता
टीव्ही मुखार बसून तो
एकलोच हांस हांस हांसता

लॅपटॉप ताचे मांडयेर
जेन्ना जेन्ना हांव पळयतां
बाबू म्हजो बदल्लो
इतलेंच वायट दिसता

## 56. बाल कामगार

आमकां कोणेंच शिक म्हणलें ना
पुस्तकां विकतीं घेवन दिलीं नात
जल्माक आयलां केन्ना हांव?
याद कोणाकूच ना

म्हजो वाडदीस मनोवपाचो
दीस केन्नाच आयलो ना
म्हजे खातीर मेजार कोणेंच
केक केन्नाच दवरलो ना
दिवली पेटोवन रांगोळी घालून
पाटार म्हाका बसयलो ना

आतां तूं ल्हान ना
इतलींच उतरां आयकतालों हांव
पावलां धतरीर मारतना
भूक भूक म्हणटालों हांव

चिप्स, पिझ्झा, न्यूडल्स
केन्नाच हांवें पळयलें ना
रोटी, दाळ ताटांत म्हज्या
पिंजकीं बोंदरां आंगार म्हज्या
जिणेचे हे गरिबीक
भुरगेपणांत सावन पळयतां

पयशे पयशे करीत
बापूय म्हजो पिरंगता
आवयची दैना पळोवन
काळीज म्हजें जळटा
देखून हांव कामाक वतां

# 57. पापा

बाबा जालो बाबा जालो
खोशी जालो पापा
आयज आमगेर बाबा आयला
पेडे वाट्टां तुमकां
माराणाचें बॉक्सूच हाडून
दारा मुखार पेटयलें
खोशयेन पापान देवा मुखार
तकली आपली बागयली
धाकटुल्या बाबाक पळयत
खोशी जातालो पापा
ताका लागून कितलेय पयशे
मोडटालो पापा
दूद, फळां, बिस्कुत्यो
चाकलेट, आयस्क्रीम, जिलेबी
खेळपाक ताका घोड्या गाडी ....
धाकटुली मोटरगाडी
बॅट, बॉल, सायकल
काणयांचीं पुस्तकां
मागता तितलें दिवंक पापा
एका पांयार तयार
फकत एकूच सपन ताणें

दोळ्यां भितर रंगयिल्लें
बाबा म्हजो खूब शिकचो
इतलेंच ताणें येवजिल्लें
आख्खो संवसार ताच्या
कर्तुपाक तोखेवचो
बाबाचो पापा हांव
लोकांनी म्हाका म्हणचें

# 58. केन्ना येतलो?

एकलीच कशी रावूं पुता
एद्या व्हडल्या बंगल्यांत?
सांग रे केन्ना
येतलो तूं
तुजे आई म्हऱ्यांत?
कितें खाता?
खंय न्हिदता?
उगडास म्हजो तुका येता?
दीस कसोय वता पुता
रातची मात याद येता
कुशीक म्हज्या न्हिदोवन तुका
हांव रातभर थापटितां
दोळे उगडून पळयल्यार
हातांत म्हज्या उशें आसता

जोडलें तितलें पुरो आतां
आनीक पयशे आमकां नाका
तुज्या घरा तुज्या गांवांत
केन्ना येतलो सांग रे पुता?

## 59. क्रांतीची मशाल

क्रांतीची मशाल परत
पेटोवया आतां
चलात चलात
उठात सगळीं
जायात जागी आतां
फटींगपणां, नाडपणां
जळींमळीं पातळ्ळ्यांत
अंधश्रद्धा, पिशेपणां
सोंपयतात आमकां
कोणेंय येवचें
फटोवन वच्चें
इतले कशे
आमी पिशे
खरें फट पारखूंक
शिकूया आतां

# 60. हांवूच तो सूर्य

मावळट्या सुर्याची मोव मोव किर्णां
कानांत म्हज्या सांगतालीं
जिणेचीं कवनां
हांवूंय त्या रखरखत्या
वताक घेवन आयिल्लों
सगल्याक म्हजीच
सत्ता गाजयल्या
म्हज्या वतान सगल्यांक
घाम हांवें काडला
हांवूच तो दनपारचो
तापिल्लो सूर्य
आतां मोव मोव जावन
सकयल सकयल आयला
नमळायेन जगचें पिश्या
जगाक सांगूंक लागला

# 61. सपन

उडलीं तीं उडलीं
मळबभर भोंवलीं
आमी थंयच
पांजऱ्यांत बसून
पळयत तांकां उरलीं
तांच्या पाख्याचें बळगें
आख्ख्या संवसारान पळयलें
आमी मात...
पांजऱ्यांत मोगाचे
आशेन दीस काडले

# 62. सदाफुली

पोरसांतले सदाफुलीन
हांसत हांसत म्हणलें
आरे मनशा, सदांच कित्याक
इतलो पिरंगता?
बोल्सांत पयशे भरल्यात
तरीय असो कित्याक रडटा?
फाटल्यान फुडल्यान सगलीं तुजीं
मायेचींच रे मनशां
तरीय कित्याक एकलोच तूं
बसता रे कोनशाक?
म्हाका पळय हांसता हांव
जल्माक आयलें तेन्ना सावन
उंच उंच रुखावरी
लांबाय म्हज्या झाडाक ना
जांबळां, काण्णां, चुन्नां
म्हज्या आंगार फळां नात
मोटवेंच आंग म्हजें
तरीय सगलीं फुलांच फुलां
घट्ट जावं मोव माती
किल्लतात आमी जावन खोशी
हांसत हांसत जगचें कशें
आमकां पळोवन शिकचें तुवें....

## 63. कुड्डो मोग

सांग बाबू कितें जाय?
दुदाची चाकलेट काय
दुदाचें आयसक्रीम जाय?
मोबायल जाय? गाडी जाय?
शंबर रुपया जाय?
सांग बाबू कितें जाय?
हांवें भोगूंक ना तें
सूख तुका दितलों
फाटल्यान फुडल्यान तुज्या
फुलांच फुलां शिंपडायतलों
इत्सा तुजी करूंक पूर्ण
झर झर झरतलों
बाबू, तुका लागून हांव
सगलें कितें करतलों
सगलीं सुखां भोगतां भोगतां
बाबून दुख्ख पळयलेंच ना
चिमटीभर दुख्खाक पळोवन
थरथरलो बाबू
जैत मेळ्ळें ना देखून
रड रड रडलो बाबू
मांडवीचे न्हंयेंत वचून
बुडलो बाबू....

# 64. विस्वास

मनीस जेन्ना रस्त्यार चलता
ताका विस्वास आसता
फाटल्यान येतल्या गाडयांचो
त्यो आपणाक चिड्डुच्यो नात
तो जेन्ना हॉटेलांत जेवता
ताका विस्वास आसता
हॉटेलकाराचो
तो जेवणांत वीख घालचो ना
बरें तेंच दितलो
एका ड्रायव्हराच्या
विस्वासाचेर
कितलेशेच लोक बशींत बसतात
तो तांकां जाय थंयच थांबयतलो
बस व्हरून मोखचो ना
मळबांत उडटल्या सुकण्यांक लेगीत
आपल्या पाखांच्या बळग्यांचेर
विस्वास आसता
त्याच विस्वासान तीं
वयर वयर झोंपय मारतात
विस्वास संवसारांत नासलो जाल्यार
संवसार कसो चलतलो आसलो?

कोणूच कोणाक पातयेवचे नासले
सगले भियेवन जगतले आसले
आख्ख्या संवसाराक
सूख समाधान दिवपी
विश्वाचो स्वास
विस्वास....

# 65. सवायशीण

तुज्या नांवाची तिकली
मंगळसूत्र हांव घालतां
जल्मोजल्मी तूंच घोव
मेळचो अशें मागतां
संवसाराची जाल्या दैना
रिते रिते दोळे
वावराडी जावन भोंवता
घांसूंक लोकांचीं आयदनां
तरीय लेगीत जल्मोजल्मी
तूंच घोव मागतां
भुरग्यांच्या भविश्याची
चिंता हांव करतां
एक एक रुपया जोडून
मिलेरांत घालतां
तूं मात मिलेर फोडून
पयशे म्हजे व्हरता
तरीय लेगीत जल्मोजल्मी
तूंच घोव मागतां
गाळयांचो शिंवर तुजो
सदांच म्हाका मेळटा
पिंजकी बोंदरां आंगार म्हज्या

शिंवून शिंवून घालतां
तरीय लेगीत जल्मोजल्मी
तूंच घोव मागतां
आबोल्यांची फांती
मोगऱ्यांची आटी
माळीन जरी दिसता
मन मारून पावलां म्हजीं
फाटीं हांव ओडटां
म्हाका सूख मेळचें अशें
केन्नाच तुका दिसलें ना
फकत दुख्ख दुख्ख दिवंक
फाटीं तूं रावलो ना
तरीय लेगीत मरण म्हजें
तुजे पयलीं मागतां

# 66. विठोबा सावळो

रखुमाईच्या म्हऱ्यांत
विठोबा सावळो
तुळशीमाळ घालून गळ्यांत
हांसता पळय काय बरो

विठ्ठलाच्या देवळांत
पेट्टा पणटी वात
पांडुरंग पांडुरंग
घालतां तुका साद

घणघणटा देवळांत घांटी
आरती विठोबाची
देवळा भायर पावल्या रांग
लागल्या ओड दर्शनाची

जालें मन शांत शांत
सूख दुख्खा पलतडी
सावळ्या पांडुरंगाची
लागल्या मना गोडी

# 67. पंढरीच्या हरी

विठ्ठला पांडुरंगा पंढरीच्या हरी
दारांत तुज्या आयलां हांव
जावन रे भिकारी

सांगले बगर समजून घे तूं
दुख्ख म्हजें देवा
तुज्या बगर कोण ना
आतां आनी म्हाका

रुपड्यांच्या ह्या संवसारांत
सुवार्थीच सगले
कोणूच ना हांगा
कोणाचेच सोयरे

काळोख जाला बिण्ण सगलो
दोळे आसून कुड्डो
उजवाडान भर तूं म्हाका
मारतां तुका उलो

# 68. आरती

देव्हाऱ्यांत रावल्या उबी
विठ्ठलाची मूर्त
पांडुरंग पांडुरंग
गायतां हांव आरती

घेतात तुजें नांव सगलीं
दुख्खां म्हजीं हरतलीं
काळखांतली रात देवा
उजवाडान भरतली

रंगरंगयाळी रांगोळी
घाल्या हांवें दारार
पुजा तुजी करतां देवा
फांतोडेच्या पारार

दोनूय हात जोडून
देवा घेतां तुजें नांव
दर्शन तुवें दिवचें म्हाका
इतलेंच मागतां हांव

## 69. सोदता खंय?

सोदतां खंय म्हाका तूं
पिशा मनशा पिशा
काळजांत तुमच्या आसा हांव
कित्याक देवळां तीर्था?

खणून खणून घाम गळयता
ताच्या कश्टांत हांव आसतां
कर्तव्याचे वेदीर जळटा
ताच्या म्हऱ्यांत हांव आसतां

नाका म्हाका फुलां तुजीं
नाका रे उजवाती
सत्याचे वाटेर चल तूं
जातलों रे हांव खोशी

दीनदुबळ्या गरिबांचे
फाटीर दवर हात तुजो
आपय नासतना येतलों हांव
म्हऱ्यांत तुज्या रावंक उबो

## 70. फुकेन तुजे

तुवें दिल्ल्या रंगान
रंगत गेलें
म्हजो रंग खंयचो
कळ्ळो ना म्हाका

इल्ल्याश्या काजुल्याक
पेट्टना पळयलो
काळ्याकिट्ट काळखांत
पेट्टा कसो
कळ्ळो ना म्हाका

पणटेंतले वातीवरी
हांवूय पेटूंक लागलें
फुकेन तुजे
पालवलें केन्ना?
कळ्ळें ना म्हाका....

# 71. साद

विठ्ठलाच्या देवळांत
गायता हांव अभंग
पांडुरंग पांडुरंग पांडुरंग
वर्सां गेलीं फुकट म्हजीं
भक्ती केली ना हांवें तुजी
तुज्या बगर जीण म्हजी
जाली रिती रिती
सूख दुख्खाचे हे सर्तींत
सोंपली सगली जीण
पांयांसरी आयलां घेवन
निमाणें हे खीण
हात म्हजो धरून तूं रे
दाखय म्हाका वाट
भक्त तुजो दारांत तुज्या
घालता तुका साद

# 72. राधा

कृष्णा तुजी राधा हांव
राधाच जावन उरली
गळ्यांत तुज्या माळ हांव
घालूंक ना रे पावली

मुरलीच्या सुरान तुज्या
पिशें म्हाका लायलें
फाटल्या फाटल्यान तुज्या हांव
भोंव भोंव भोंवलें

सावळो तुजो रंग कृष्णा
भुलयत म्हाका गेलो
तना मना - मना तना
तूंच दिसूंक लागलो

माळ तुज्या गळ्यांत हांव
घालूंक ना रे पावली
राधा हांव कृष्णा तुजी
राधाच जावन उरली

कृष्णा तुजी राधा हांव
राधाच जावन उरली
गळ्यांत तुज्या माळ हांव
घालूंक ना रे पावली

# 73. सोपूत घेवया

पळोवन तुजें रुप साजणी
मन प्रसन्न जाता
तना मना मना तना
खोशयेन काळीज फुलता
दोळे तुजे काळे काळे
सांगूक कितें सोदता
काळजाची भास तुजी
दोळ्यां भितर दिसता
तांबडे तांबडे ओंठ तुजे
मुमुरखेच हांसतात
पोल्या वयल्यो खळयो तुज्यो
पिशें म्हाका लायतात
हातांत म्हज्या हात दी तूं
सोपूत आमी घेवया
जल्मभर असोच आमचो
हात घट्ट धरुया

# 74. मोबायल

केन्नाय तरी कळटलें
फुडें फुडें वता वता
फाटीं तुमी उरतले
न्हिदिल्ले उठ्ठांच आमच्या
हातांत मोबायल दिसता
दीसभर सांगात ताचो
गळ्यांत पडूनच आसता

सगल्या प्रस्नांच्यो जापो
आमकां मोबायलूच दिता
पयसुल्ल्या सोयऱ्या धायऱ्यांक
मेळोवन तो दिता

टीव्ही वयल्यो सिरियली
तातूंतच भागता
बशींत, ट्रेनींत, गाडयेंत
मोबायल उलयत आसता

आतां कसलें वाचन
कसलें आंगणांत खेळप
भुरगीं सगलीं कुडीं भितर
मोबायलाचेरूच खेळटात

पांय आसून लंगडी जीण
मीठ आसून अळणी जीण

केन्नाय तरी कळटलें
फुडें फुडें वता वता
फाटीं तुमी उरतले

## 75. पावस

कुपां कुपांत काळो रंग
सुर्यान लेगीत धांपलें आंग
वाऱ्या सांगाता धरून ताल
नाचता रुख नाचता माड

गडगड्यान वाजयलें तबलें
विजूबायन पेटयली लायट
दोगांय एकाच सुरान गायत
म्हणूंक लागलीं आयलो पावस

आयलो पावस आयलो पावस
घसघशांनी आयलो पावस
सुकिल्ले धतरीक भिजयत
घसघशांनी आयलो पावस

मातयेचो सुटलो वास
खोशयेन हालतात फुलां फळां
उगडें करून आपलें आंग
भिजूंक लागलीं भुरगीं बाळां

धर्तरीचे पळोवन तळमळे
घेवन वाऱ्याचो सांगात
आयलो पावस आयलो पावस
घसघसून आयलो पावस

# 76. सत्तेची हाव

सगल्यांनी तुकाच निवडून काडलो
त्या दिसा तूं खोशयेन फुल्लो
खांदार बसून लोकांनी नाचयलो
गळ्यांत फुलांचे हार घालून
रस्तोभर मिरयलो
तुवें दिल्लीं उतरां
तुवें दाखयिल्लीं सपनां
आतां खरीं जातलीं
सगलीं वाट पळयतालीं
पूण .....
सत्तेच्या कदेलार बसतांच
बोल्सां तुजीं भरीत रावलो
दिल्लीं उतरां दाखयिल्लीं सपनां
एका खिणांत विसरून गेलो
पयशांची हाव तुजी
वाडटा तशी वाडटा
दिसानदीस कूड तुजी
आंगापांगान मातता
गर्वाचें घर तुजें
एका खिणान मोडलें
हेरावरी तुकाय लोकांनी
कदेला वयल्यान उडयलो

# 77. रितें घर

एकलो गेलो आफ्रिकेक
दुसरो गेलो अमेरिकेक
तिसरें म्हजें बाय शाणें
दुबय गेलें लग्न जावन
खोंपीचें घर जालें
घराचो जालो बंगलो
पयशांचे कवळे धाडटात
म्हयन्या म्हयन्याक
एक एकलो...
बँकांनी भरल्यात दुडू
पयशेच पयशे सगले
रितें म्हजें जालां काळीज
मोन्यो घराच्यो वणटी
टीव्ही मुखार बसून आतां
रिमोटाक झगडटा कोण?
मोनें जालां जेवणाचें मेज
रितीं रितीं कदेलां
सवणीं गेलीं उडून रानां
एकलीच उरली मम्मा घरा

## 78. कोण सुखी ?

रुखार बशिल्ल्या शेवण्याक
एक दीस मनशान पळयलें
चिंव चिंव करीत
आपलेच भाशेन उलयतालें
पाखां हालयत मळबांत
भुर्रर करून उडून गेलें
येवजूंक लागलो मनीस
खरें सुखी शेवणें
कुपांनी भोंवतलें
वयर वयर मळबांतल्यान
सकयल पळयतलें
सैमाची सोबितकाय
तोखेत रावतलें
शाळेंत वचपाची कटकट ना
काम करपाची ताकतीक ना
पोटाची चिंता ना
भोंव भोंव भोंवतलें
वेळाचें बंधन ना...
अचकीत शेवणें परत आयलें
रुखा तेंगशेर बसलें
मनशाक पळोवन येवजूंक लागलें

खरीं सुखी मनशां
जमनीर पावलां मारीत भोंवतात
जाय तेन्ना जाय तसलें
रुचीक जेवण जेवतात
टीव्ही पळयतात
मोबायलार उलयतात
गाडयांनी भोंवतात
आमकां मात मळबांत लेगीत
आशीकुशीक पळोवचें पडटा
रातचीं लेगीत दोळें धांपतना
अर्दीं जागींच आसतात
कोण केन्ना मारून उडयत
विस्वास आमकां नासता
खरीं सुखी मनशांच आसतात

## 79. रितो कळसो

कांयच नासलें
तुजे कडेन तेन्ना
हात धरलो
हांवें तुजो
आयज सगलें
तुजे कडेन आसा
तूं म्हणटा
हात सोड
म्हजो ......



## शोभा शिवा फुलकार

**उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां**

**कविता संग्रह**

- शुभत्कार २००९
- रुजवण २०१२

**बालसाहित्य अणकार**

- रानांतली रात (मूळ मराठी: लिलावती भागवत)

**पुरस्कार**

'शुभत्कार' कविता संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळ, गोंयचो साहित्य पुरस्कार २०१०

संजना पब्लिकेशन्स